75

BHUYKANP
(Novel)
भुंयकांप
(कादंबरी)



ह्या पुस्तकाचे सगले हक्क
यशवंत प्रभाकर शेणवी हांचे लागीं आसात.
प्रकाशनः शेणवी प्रकाशन,
हांवसिंगबोर्ड,घोगळ
मडगांव गोंय.फोन 2752084
पयली आवृत्तीः 31 / 12 / 2007.
यूगः कली.
अयनः दक्षिणायन.
पक्षः कश्ण
रुतूः हेमंत
म्हयनोः मागशीर्ष.
तीथः अश्टम
वारः सोमार.
अक्षर जुळवणीः लईराई ऑफसेट
मडगांव,गोंय.
छावणावळः लईराई ऑफसेट
मडगांव,गोंय.
मुखामळः बाबवासू मडगांव.
पुस्तक मेळपाचें ठिकाणः
कोकणी भाशा मंडळ आकें
मडगांव गोंय.
पानांः 100.
मोलः100 रुपया.
पुस्तक कमांकः20

# भेट

ही कादंबरी
आमच्या घरांतलो म्हजो
बापोलभाव मन मेकळो
बाब शैलेश शेणवी हांका
भेटयतां

# गाभो

किसनाचो किसान जालो
हरगुलाक गुंज्यान मानलो
धनंजयशेट तर श्रेश्ट ठरलो
भुजांतलो राबितो मांडवींत हाडलो
ही आसा आघ्यात्म जिणेची काणी
सेवान तर किसनाक दिलें पाणी
धनंजयाची खरी ठरली वाणी
आयल्यो मड्याक जरी घाणी

# दोन उतरां

किसना सारखे शिकलले तरणाटे आपल्या गर्वांत चलतना दोळ्या मुखार येताले. ताचेर आपलें मत मांडचें अशें दिसतालें, पूण योग येना आसलो. तरी तांका अक्षर रुप दिवचो योग अचकितच आयज आयलो, हाची म्हाका खोस जाता.

जेन्ना जेन्ना हांव आदल्या तेपावयली घरां पळयतां, तेन्ना तेन्ना लाकडा वयली कला, घडप काम, लाकडाचो दर्जो, मनांत भावल्या बगर रावना. आयज वास्तुशास्त्राचे नेम मोडून सोबितकायेचेर भर दिल्लो दिश्टी पडटा. बंगलो बांधतना म्हाल रस्तो पळवन तेवटेन घराचें तोंड करतात आनी सुर्याक विसरतात. सोबीत घर आसचे परस सात्वीक घर आसप गरजेचें. ज्या घरांत सूख समाधान मेळना तें घर न्हय तर मस्णट. जशें अस्तुरेची सोबितकाय म्हळ्यार घोवाशेवा मुखामळ न्हय, तशेंच घराची सोबा म्हळ्यार सूख, सोबितकाय न्हय.

भुंयकांप म्हळ्यार सैमराग, अशें जरी आसलें, तरी ताचेर लेगीत आदल्या काळांत घर बांधतना विचार जातालो, हेंच सांगचो मुखेल हेत आसा. सोमराम एक कूळ आसून लेगीत, धनया विशयीं ताचो आदर कितल्या उंचेल्या पावंड्याचो आसलो, तेच प्रमाण मालक ताका आनी आपल्या पुताक कसो वागयतालो, हेंवूय लक्षांत घेवपा सारखेंच. आपल्या पुता परस कुळाक चड लेखपी धनंजयशेट. असले कूळ मालक आयज मातयेभरवण जाल्यात. कूळ आयज न्यायालयांत वचून आपलो हक्क गाजयतात. तर मालक मेळटा थंय तांका सतायतातच. तरी तांचे आदले तेपार घरोब्याचे सबंध कशे आसले हेंच म्हाका सांगचें आसा.

आदल्या काळांत कडूलिंबाचें झाड घरा मुखार आसतालें, ताचो वास येतालो. तें वखदी म्हण्टकच भलायकी सुधारताली. ताचो वापर केल्यार किडी बारीक जीव हांचो उपद्रव जाय नासलो. वास बरो येतालो. धर्मीक ग्रथांत ह्या झाडाक वयली सुवात आसा. शिवाय हाका वाठार चड लागना. उदक घालचें पडना. आयज आमी हाचेर विचार करूंक जाय.

वर्णाश्रम म्हळ्यार आयज लोकांक खबरना, मागीर ताच्या सारखे वागतले तरी कशे? ताची वळख जावची हो हेत आसा. शिवाय चोरी कितली वायट हेवूय म्हाका पटवचें आसा. आयज आमी संपत पळयतात, तरी ती कशी मेळयल्या हाचेर विचार करिनात. संपत बऱ्या मार्गान एकठांयल्ली आसूकच जाय. नातर ती संपत न्हय तर तें वीख.

बरें मागून.
उदय शेणवी

# प्रस्तावना

उदयबाबान जेन्ना भुयकांप हाडून दिलो तेन्ना ताका पळवन म्हाका कांपच सुटलो. तरी कादंबरी वाचतकच सगलें कळूंक वेळ लागलोना, हो भुंयकाप भिरांकूळ न्हय, तर सुखदेणो हे हालमलें. म्हाका दिसताले ते गांव गिऱ्या वाठाराचेव वर्णन करूंक शकतात तरी ताणीं हांगा शाराचें तशेंच मनिससभावाचें बेस बरें वर्णन केलां.

भुंयकापाचें कथानक संथ गतीन एक एक पांवडो चडत तेंगशी गाठता. वाचतना वाचप्याक दिसता आपली कथा वाचिनामूं? संवाद शैली बरी साधल्या. कथानक तशें मोटवेंना पूण धाटणेवयल्यान मोटवें कशें दिसता.

ही कथा गुजरातेंतली, हिंदी भाशेचो वापर करून ताणीं कथेक जिवें केलें. कथा वाचतना गुजरातेंत पावल्याचो भास जाता. हावें कादंबरी वाचतकच तांका विचारलें 'गुजरातेंत गेल्ले काय?. तांची जाप गुजरातेत वचूना अशी आयली. आंवळी वचनासतना 'आवांळें' ही कादंबरी बरवन तांका कलाअकादेमीचो पुरस्कार फाव जाल्लो. तेन्ना त्या थळानी तांका वचुंकच जायशेंना. कल्पना शक्त दांडगी आसतकच सजीव कादंबरी निर्मू येता, हाचेच हे उदारण. थळानी वचून लेगीत कथानक प्रभावी जायना अशी कांय उदारणां म्हजे कडेन आसात.

हे कादबरींत चालंत स्थितीचेर उजवाड घाला. त्याच प्रमाण आमच्या ग्रंथाची व्हडविकाय सांगल्या. ज्यांका भागवत म्हळ्यार कांयच खबरना ताकां भागवताची वळख जातली. भागवत कथा केल्ले कडेन भुंयकाप कांयच करूंक शकलोना ही गजाल खरी. उदयबाब चालंत जिणेंचे भान दवरतात इतिहास सांगलो तरी थंयच चिकटून रावनात. तरी ताचो सैम पितारपी हात फाटी सरला. ही घडणुकांचीच कादंबरी आसल्ल्यान सैम पितारूक तांका वाव नासलो ही गजाल तितलीच खरी.

कादंबरी वाचतकच म्हाका दिसलें, जसों आमच्या कुडिचो मुखेली आत्मा, तशेंच तांच्या कथेचो मुखेली आध्यात्म. आध्यात्मं सांगल्या बगर तांचें लेखन पुराय जायना. भागवत, मनुस्मशती सारखिल्ल्या ग्रंथाचें वाचन ताणीं केलां हे कळटा. ते गिन्यान सोप्या कोकणींत सांगप ही तांची कलाच. कादंबरी वाचतना जर आदल्या ग्रंथांचो बोध आपसूकच जाता तर चडच बरें जालें, ग्रंथ वाचपाचो वेळ, त्रास वांचलो. तरी तें गिन्यान सांगतना संदर्भ बरोबर सोदून घालतात. नकळत ते आध्यात्माचे गिन्यान दिवन वतात. आपलो हेत माडटना ते तकलेर

बरोच पेज घेतात आनी हेत सहजतायेन मांडून वतात. खंय कितें सांगून वाचकांक तें पटवचें, हें तांका बरे तरेन जमलां. वयल्या वयर वाचतना कादंबरी वाचता अशेंच वाचकाक दिसता, तरी खोलायेन विचार करत तर उंचेले विचार सांगलल्याचें होलमता. ही कादंबरी वाचून उपकारचिना तर ताचेर मनन करचें पडटलें. जाण्टेल्याचे मन दुखवन आमी सुखी जायनात हो संदेशय ते दिवन वतात. सुरवात सादी आसली तरी निमणचार प्रभावी केला. ल्हान ल्हान गजाली ताणीं वेंचल्यात आनी तिल्याच हिकमतीन गुतल्यात. कादंबरीचें मुखेल कथानक तें साभाळून दवरतात ही तर तांची खूबी. कादंबरितले संवाद सोडल्यार ताणीं कोकणीचो वापर केल्लो दिश्टी पडटा.

निमणें अशें सांगीन दिसता, कादंबरी म्हण्टकच मोग आयलोच अशी आमची धारणा जायत चल्ल्या, पूण हांगा मोगाचो विशय आसुनय ते ताचे पसून पैस वतना दिसतात, ताका ते चड मोल दिनात तर जाता तितले ताचे वर्णन करचें टाळटात. मोग हो आध्यात्माक बाधक ही गजाल खरी. तरणाट्याच्यो भावनो भडकावन तांचे वयले सभ्यतेचे संस्कार उणे करप न्हय. मोग हो शिकवचो लागना आपसुकच कळटाकृ पक्षी, जनावरां हांका मोग कोण शिकयता? आमी तर मनीस. मोगाचेर तांबो दवरप म्हळ्यार सुखी जीण जगप अशेंच ते सुचयतात. उदात्त मोगाची ताणी मांडल्या ती कल्पना उंचेल्या पांवड्याची आसा. आयच्या तरणाट्यानी ती आपणाव सारखी आसा. तांका सगले पवित्र जाय मनीस खबर आसून परिस्थिचो गुलाम कसो जाता हेवूय ते पटयतात. तांचे संवाद हे सुचक आसुनय काळजांत रिघतात. संवादानसून ते गिन्यान दितात . तांची संवसारीक जीण उचेल्या पांवड्याची आसा. वाचप्यांक अजापीत करी सारखे तत्वगिन्यान ते दितात. आयची माध्यमां मोगाक म्हळ्यार कुडी आकशर्णाक चड मोल दितना दिश्टी पडटात. गिन्यान आनी संस्कार हाचे पसून ती पैस वतना दिश्टी पडटात. पूण हे घातक आसा हेच ते सुचयतात. एक गुणी कादंबरिकार हे नदरेन तांचे कडेन हांव पळयतां. अश्योच दर्जेदार कादंबर्‍यो तांच्या लेखणेनसून निर्मूं अशें देवा लागी मागून हांगाच पेनाक बुक्कल घालतां. तांका उपाट जैत मेळू अशे मागून,

नरसिह गो. भट गांवकर

सांखळी,गोंय

## भुंयकांप



1

'मांडवी' गुजरातेंतलो एक गांव. शार म्हणपा इतली उदर्गत अजून जावची आसली. लोक भावीक, नव्या तंत्रगिन्यानाक आपणांवंक फाटी. तरी मुयेचे पावलानीं नकळत उदर्गत जातालीच, हेंवूय तितलेंच खरें. धनंजयशेट एक सावकार. वृत्तीन धार्मीक आसलल्यान तांची जीण ताच्या बापाय सारखीच भोगांत गेलिना, त्यागांतच गेली. कितलोय पावस येवं वा थंडी पडूं धनंजशेट सकाळीं उठून पडगो, पंचपात्र, पळी घेवन चलत आपल्या कापसा शेतांतल्या झरी कडेन चलत वताले, वतना आपल्या पायां पोंदाक मूय मरचिना हाची जतनाय घेताले. झरीचें उदक पियेवंक वाग, चितल वा मेरू दिसल्यार तीं उदक पियेता मेरेन रावताले. मागीर उदक न्हावन झरी उदकान कांबळीर बसून संध्या करताले मागीर सूर्य उदेतकच आर्ग्या दिताले, .उपरांत सूर्य नमस्कार घालून ते आपल्या घरा येताले. घरा फाटल्या बांयचेर परते न्हावन, ते आंगणांतली फुलां काडटाले. मागीर सोवळे न्हेसून घरातल्या देवाची पुजा करतकच. ग्रंथ पठण करूनच च्या घेताले, पुजा केल्या बगर ते तोंडांत कांयच घेना आसले. हाचे कारण म्हळ्यार तांचे बापूय शंकरशेट हेवूय धार्मीक आसले, तांचो होच नेम आसलो, धनंजय शेटिचेर तेच संस्कार जाल्ले, धर्मिकतायेन वागल्यार दीर्ध पिराय मेळटा, शिवाय व्यसना लागनात. संस्कारांची एक फावट सवंय जातकच ती मरणामेरेन तिगून उरता, पन्नाशी हुपतकच धनंजयशेटींक वानप्रथाश्रमाचे वेद लागले, तरी ताचे कडेन लक्ष दिना आसतना ते दीस कंठूंक लागले. बायल लग्न जातकच किसन

चलो जाल्या उपरांत रोकडीच सवंसार सोडून कायमची गेल्ली. तरी एकलुको चलो किसन, हो एक आशेचो दिवो धनंजशेटी काळजांत पेटत आसलल्यान ते वानप्रस्थाक वचूंक पावलेना. ताका ही खंत परत परत मेल्या बडकाक कावळो कोचायता तशी कोचायत आसली.

कापसाचे तीन किलोमिटर चौखंड शेत पळवन, धनंजयशेट किसनाक किसान म्हळ्यार शेतकामती करूंक पळयताले. तशेंच आपल्या घराण्याक सोब सारखी एक सून हाडून, कर्तव्यातसून मेकळे जावन, वानप्रस्थ घेवचो अशेंय ते येवजून आसले. तरी मनीस येवजिता तशें जाल्लें जाल्यार भुंयेरच सर्ग येता आसलो, कलियुगांतलो कली येवचो नासलो. तांच्या कापसाशेता लागसरच सेवा नावांची व्यापाऱ्याची चली आसली, कश्ट करताली, सभावानय बरी आसली, धनंजयशेट तिच्या बापायक तिका वळखताले. तिची कुंडली आनी किसनाची कुंडली जुळटाली. वरदक्षणेचो प्रस्न नासलो, चली हीच वरदक्षणा अशें धनंजयशेटिचें मत आसले, पैशानीं सभाव बदलूंक येना, पैसो केन्नाय जोडूं येता, हाचेर ते ठाम आसले.

धनंजय जरी सावकार आसले, तरी शेतांत घोळप ताका भुशण दिसतालें. किसनान मात थारायललें, कितेंय जावं, शेतांत काम करपना, बापूय शिकलोना देखूनच ताका मातयेची चड ओड आसाकृ धनंजयशेट आपल्या बापायच्या घरांतच रावतालेकृ पोरने आसलें तरी, त्या घरांत रावंक तांका आगळी खोस भोगताली. मदीं मदीं तें सारखें करताले, तरी नवें बांधचो ताणीं केन्नाच विचार केलोना. कित्याक तर तातून ताका आपल्या घराण्याचें दायज दिश्टी पडटालें, आपलें नेण्टेपण ते घराक पळवन यादेताले. एक गोड खोस तांका भोगताली. मनीस हो भावनांचेरच जगता म्हण्टात तें फट न्हय. खुबजाण कंत्राटदोर येवन घर मोडून दुसरी बिल्डींग बांधूक पळयताले. रावंक दोट्टी कूड फुकट दितां शिवाय पैशे दितां, अशी आस दाखयताले, तरी धनंजयांच्या विचारांक ते बदलूंक शक नासले. कित्याक तर धनंजयशेट योगी आसले, पैसो तांका भूल घालूंक शक नासलो. भोग्याक पैसो रोकडो भूल घालता ही गजाल खरी. शारांतल्या लोकांक तो रोकडोच भुलयता, हिवूय गजाल तितलीच खरी. पूण मनशाक खंयचोच एक नेम लागू पडना हो तर नेम.

किसन तसो व्हडलो हुशार नासलो, तरी शेतांत घोळचें पडटलें हें चितून रात दीस अभ्यास करून परिक्षेंत बरे गूण घेतालो. निश्चेव होच मनशाक घडयता हें फट न्हय. धनंजयांक तो शिकललो नाका आसलो. तरी ताच्या मना आड ते वचूंक पळय नासले. ताच्या नशिबाचो तो, आपलो मार्ग वेगळो आनी

ताचो वेगळो. हें धनंजयाक खबर आसलल्यान ते ताका दुखय नासले. मॅट्रीक जाल्या उपरांत घनंजयशेटीन ताका म्हळें,

किसन अब मैं बूढा हो गया हूँ। जाकर खेती करो। कपासका दाम भी अच्छा है।

नहीं पिताजी, खेतीं तो अनपढ करते है, मैं तो पढा लिखा हूँ।

ऐसी कोई बात नहीं, पढाई करके भी खेती कर सकते हो।

मै किचडको छूना नहीं चाहता।

बादमें क्या अनाज नहीं खाओगे? अनाज किचडके बिना पैदाही नहीं होती।

वह तो अलग बात है। मैं इंजिनीयर बन जाऊँगा। लखपति बनूँगा।

जरूर बडा बनो। मै रूकावट नहीं डालूँगा। मगर घर गश्हस्थीका घ्यान रखना। आखिर।

क्या पिताजी? आखिर क्या?

होने वाला होगा ही। हम क्या कर सकते है? यह जायदाद तुम्हारे हवाले करके मैं काशी जाना चाहता हूँ। वहॉ वानप्रस्थ और संन्यासाश्रम स्विकार करूँगा। मैं वापस नहीं आऊँगा। इसका मतलब यह नहीं कि आदमी कोशिश नकरे! कष्टसे भाग्यभी पलटा जा सकता है!

क्या कहते हो पिताजी? आप यह धन दौलत भुगतना नहीं चाहते?

देखो। दिल मरा हो तो शृंगार किस काम का? शव कभी धन या गहनेकी की आशा रखता है क्या? तेरे लियेही ठहरा था। मगर इसकी कीमत तू नहीं कर सका, ठीक है।

परेशान मत होना पिताजी। क्या करूँ? खेतमें काम करनेसे मेरी इज्जत खात्म होगी।

किसन यही तरी भूल है। खेतमें काम करनेसे तरी इज्जत बढेगी। यह तो आदमीका फर्ज है। हम जनम लेतेही पहले जमीनको छूते है। आखिर उसीमे मिल जाते है!

नहीं पिताजी मुझसे यह नहीं होगा।

जायदाद क़े कागज लिखके ला़ओ, नहीं तो मैं सभी जायदाद अनाथाश्रमको देकर मुक्त हो जाऊँगा।

वैसा मत करना। तुरन्तही कागज लाके दूँगा।

ठीक है। अब तू कॉलेज जा रहा है। घरानेको बट्टा मत लगाना। इसमें तेरा हित हैं।

हाचेर किसन वोगीच रावलो. ताणें इस्टेटीचे कागद आपल्या नावांर करून हाडटकच धनंजयशेटीन ताचेर हांसतच सय केली. तेन्ना ताणें म्हळें,

'किसन यह वास्तू है। इसको उखाडके मत फेकना। इसमें पुरखोंका इतिहास छिपा है। इसकी नींव, लकडी खंबे, मत बिगाडना।
किसनाचो गळो खिणभर भरून आयलो, तरी रोकडो तो सांवरलो, धनंजयशेटीन पैशे दितकच तो कॉलेज शिकूंक भूज शारान गेलो.

धनंजयशेटिचो एक कूळ सोमराम. तशे कूळ आयले आनी गेले, तरी सोमरामा सारखो कोणच कायमचो रावलोना. सोमराम धनंजय शेटिच्याच पिरायेचो आसलो तरी आंकवार आसलो. हें धनंजयशेटिच्या काळजाक लागतालें. काशी वचचे पयलीं सोमरामाक सवंसार थाटून दिवनच वचचें, अशें ताणीं येवजिलें. किसन शारांत वतकच खंय तरी आपलें लग्न जुळयतलो, किसनाचें लग्न करूंक मेळतच हाची तांका खात्री नासली. आयचे तरणाटे भायर वतकच आपलो तोल साभाळूंक शकनात, परिस्थिती मुखार करगतातच, संस्कार लेगीत फाटी पडटात, जनावरा सारखे वागतात. जनावरांक भोग घेतना बंधना खंय लागतात? आवय पुताचें नातें लेगीत तीं विसरतात. शेवणी लेगीत पाखां फुटतकच पिलांक सोडून दितात. तसो किसनाक सोडपाचो. ज्यांका आपल्या घराण्याचो अभिमानना तांका कितें? हें ते जाणा आसले. तरणाटे आयज तरणाट्या धुंदीत नाका तें करुन बसतात आनी मागीर जिणभर रडत रावतात, लग्न हें कुडीचें सूख न्हय तर तो संस्कार हें लेगीत विसरतात. पर अस्तुरेचेर नदर दवरतात हें ते दोळ्यांनीं पळयताले. किसनान कितेंय केलें तरी आपणें धर्मानच वागप, ह्याच खातीर, तांका काशी वचपाचे वेद लागलले. सोमरामाक ते कूळ मानी नासले, तर इश्टच समजताले. सोमरामय आपलेंच शेत समजून काम करतालो. किसन कितें करता तें करूंदी, तरी आपणें सोमरामाक सवंसारा भितर घालून काशीक वचप बरें, असो विचार करून ते सौराश्टांत गेले आनी एका चलयेक हाडून सगलो लग्न खर्च करून सोमरामाचो सवंसार उबो केलो. धनंजयान चली हाडली, ती धर्मान ईस्लामी आसली, तरी धनंजयशेटीन तिका गोमूत पिवंक लावन, गंगाजळ मारून हिंदू केली. तिचें पयलींचें नांव 'बेन' तेंच दवरलें. काशीक वचचें पयलीं पुताचें लग्न करूंक मेळ्ळेंना, तरी सोमरामाचें लग्न करतकच, ते एक दीस सोमरामाक सांगून काशी गेले. वतना घराची चावी सोमरामा कडेन दिली.

बेन पयलीं पयलीं नवी म्हण्टकच वोगी रावली, तरी उपरान्त ईस्लाम धर्म सोडूंक तयार ना जाली, काळो लोब घालून तोंड लेगीत धापूक लागली. सोमराम मात ईस्लाम धर्म आपणांवंक कसोच तयार नासलो, धनंजयशेटीचे संस्कार ताचेर गडद जाल्ले. आपलो हिंदू धर्म श्रेश्ट हें धनंजयशेटीचें सांगणें ताच्या कानांत घुमत आसलें. तरी बेनीक लागून ताचें देवसपण उणें जायत

गेल्लें. देवळांत लेगीत तो आदल्या सारखो चड वचनः जालो, तरी धनंजयशेटीन ताका धर्म मरणा मेरेन सांभाळ म्हूण सागलल्यान तो कसोय जालो तरी धर्म पाळटालो, हिंदू धर्म पाळूंक कठीण तरी, ताची फळाय तितलीच गोड आसतात, हीं धनजयशेटिचीं उतरां सदांच ताच्या मनांत घर करून आसलीं.

धनंजयशेट काशी वचून ध्यानाक बसले. जल्मल्लो मरतलोच, तरी भक्ती बगर मुक्तिना, हाचेर ते विसवास दवरताले. ताणीं दासबोध हो ग्रंथ वाचल्यान तांचेर परमार्थाचो परिणाम जाल्लो. ते सदांच किसनाक सांगताले,
'पढाई करना या ईंजिनियर बनना, केवल धन कमानेकेलिए नहीं, अपीतू हमारा आध्यात्मिक अमष्त कलश पढना इसलीए। पढनेसे फायदा नहीं मगर उसीके मुताबीक आचरण करें। लोगोंको पढायें।'
पूण किसनाक तें पटल्यार? तरी ताचो थोडो परिणाम सोमरामाचेर जाल्लो, हें मात खरें. तें पळवनच काशी वतना घराची चावी किसनाक दिना आसतना ताणीं सोमरामाक दिल्ली.

शिकप नासललो मनीस म्हळ्यार दोन पांयाचो पक्षीच, संतवाणी ही केन्नाच फट जावचिना, ऋशिंची बारीक नदर तोंडात बोंटां घाल सारखी आसता, अशेंय ते सांगताले. मुयेक पाखां फुटतकच ती मरता, केळ व्हियेतकच ती वाढना, चकोर पक्षी चंद्रिमाचें चान्नें पिवन तश्प्त जाता, तर कावळ्याक चंद्रिमाचें दर्शनच घडना, वाघोळ्याक सूर्य दिश्टी पडना. कपटान, अनितीन बेमानपणान मेळयललें धन रोग शोक करूंक लायता, बनावटिपण सोडून सैमीक जीण जगप बरें, रातचें बेगीन न्हिदप आनी सकाळी बेगीन उठप बरें, उदक खूब पियेवचें, हांसत खेळत रावचें, फळां, पाचव्यो भाज्यो खावप बरें, मासाहार वायट, देवाची याद दवरची. प्राणायाम, आसनां करचीं, दान दिवचें अशें ते लोकांक सांगताले. गंगा न्हयंचे कडेन रावन आपलें धर्मीक काम करचें, अशें चितून ते काशीक गेले. गंगेचें उदक पवित्र, तें पियेल्यार पापां वतात असो तांचो पक्को समज आसलो. गंगाजळ हें कितलेंय तेप उरलें तरी इबाडना, ही गजाल खरी. रातचो ते णव जावचे पयलीं न्हिदताले, कित्याक तर णवां उपरांत एक तास जरी जागरण केलें तरी दोन तास पिराय उणी जाता आनी सूर्य उदेवचे पयलीं जितले बेगीन उठटा ताच्या दुप्पट पिराय वाडटा, हें ताणीं किसनाक आनी सोमरामाक दोघांकय सांगललें, तरी किसनाच्या उमथ्या कळशार उदक, तर सोमरामाच्या उदाऱ्या कळशार उदक जाल्लें. सोमरामाक तें खरें दिसतालें, देखून सोमराम धनजयान सांगलां ते प्रमाण वागतालो. काम केल्या शिवाय राव नासलो, देखून तो बलाकेन बरो आसलो.



2



हेवटेन किसन भूज शारांत कॉलेज शिकूंक लागलो. धनंजयाच्या वळखिचो 'नाना' हागेर वळख सांगतकच ताणें ताका रावंक कूड दिली. किसन ताचें भाडें वेळच्या वेळार दितालो, खानावळिंतच जेवतालो. नानान ताची जेवणाची व्यवस्था करता म्हूण हमी घेतलली, तरी किसनाक तांगेर जेवललो नाका आसलो. ताका एक कारण आसलें. ह्या सवंसारांत सुवार्था बगर कोणच कोणाक मदत करिनात, हें सूर्य वता इतलें खरें आसता. हें किसन जाणून आसलो. नाना धनंजयशेटीक वळखतालो. घरदार शिवाय किसन एकलोच पूत, विजनेर जातकच जोडच जोड, शिवाय नानाक दोनय चलयोच, व्हडली माला तर धाकटी शाला, आयतो घरा बसलल्या कडेन, सोदूंक वचनासतना गोरो धवो, गिरेस्त शिकलली गुणी जावंय मेळटा तर कोणाक नाका जाला? किसनय तसो बरसोच हुशार, कसलोय जालो तरी तो धनंजयाचोच पूत, संस्कार खंय वतले? धनंजय काशीक वतकच सोमरामच कापसाचें शेत रोयतालो आनी कापूस विकून आपले मजुरिचे पैशे दवरून उरलले किसनाक भूज शारांत व्हरून दितालो. किसनाक धनंजय काशी गेला हें सांगतकच एक पिडा गेली अशेंच ताका दिसलें. जाण्टीं जातकच भुरग्यांक आवय बापूय आडखळ अशी दिसताच, ताका तो तरी आडवाद कसो आसतलो? तो मन लावन शिकतालो. बापूय कितेंच सांगूक नासलो, देखून ताचेर चडच पेंज आयललो, तशें बापायन सांगल्यार तो आयक नासलो, तरी ताचे विचार आयकूंक मेळटाले. मागीर ते पटूं वा न पटूं. शेवटाक तो अभ्यास करून विजनेर जालो, पास जातकच ताणें लाडू हाडले तरी कोणाक दितलो? धनंजय शेट तर काशी आसलो, सोमराम तर मांडवी आसलो. नाना बाजारांत गेल्लो. केन्ना येत हाचो नेम नासलो. रातचो न्हिदतकच आयल्यार कसो दितलो? दुसरे दीस लाडू तेंवेतले वा मुयो लागतल्यो, असो विचार करून मालाच्या आवय कडेन दिवचे अशे येवजून तो आपल्या कुडिनसून पेडे घेवन भायर सरलो, तर तिचो पत्तो नासलो. ताणें विचारलें,

माला माँ किधर गई?

अभी थी, मंदिर गयी होगी।

कब आयेगी?

क्या मालूम? शाम तक लौट आयेगी।
नाना किधर है? दिखाई नहीं दिये।
मँडी गये है।
कब आयेंगे?
मैं ज्योंतिषि थोडेही हूँ! क्या कहूँ? रातकोभी आ सकते है।
ठीक है।
क्या काम था?
यही।
बताना नहीं, तो मत बताओ।
वैसा कुछ नहीं।
कुछ नहीं, तो हिचकिचाहट क्यों?
मै परीक्षा पास हुआ, इसलिये लड्डू देने आया था।
मुझे नहीं देना, तो मत दो। पिताजींकोही दे दो।
वैसा कुछ नहीं। ये लो चार लड्डू, हर एक को देना।
मुझे सिर्फ एक?
अच्छा, तुम्हें एक और ले लो।

अशें म्हणत ताणें सगले पांच लाडू मालाक दिले. मालाकय तेंच निमित जाय आसलें. नाना आनी ताची आवय मुद्यामच भायर सरून गेल्लीं. कित्याक तर किसन मालाकच लाडू वा कितें दिता तें दिवंदी म्हणून, रिजल्ट आसा, हें किसनान नानाकच एक फावट म्हण्ललें. तांचो हेतय तडीक गेल्लो. सांपळो लायल्यार हुंदीर पडटाच अशेंना. पूण सांपळो लायलोना तर हुंदीर कसो पडटलो? सांपळो लावन पळवपाचो, मनीस आशेर जगता. हो तर नानांचो अणभव. मालान तीं येतकच आपणाक बळयां दोन लाडू दिले अशें सांगलें. तेन्नाच नानान ताचें मन पारखिलें. लोकांची गर्दी पळवन, जशे लागसर दुकान घालतात आनी गिरायकाक लागीं ओडटात वा बारीक जीव पळवन जशी मावली आपलें जाळ विणटा, आनीक बारीक जिवांक धरता तशें नानान किसनाक धरचे खातीर सांपळो लायललो. तरी किसन तसो सांपळो पळवन पडूंक मूर्ख न्हय, हेंवूय तो बेस बरें जाणां आसलो. ह्या खातीर ताणें मालाकच फुडाकार घेवंक सांगललो. वतान जसो झेल वितळता, तसो माला मुखार किसन करगून वतलो. अशेंच ताका दिसललें. झेल दिसूंक कितलोय घट आसलो, तरी धगा फुडे तिगूंक शकना, हें अणभवान नानाक खबर आसलें, कित्याक तर मनाचो ताबो दवरचो यत्न करूनय ऐन वेळार ताचो ताबो वचून भूज शारांत आसलल्यांत काळी, गरीब

चली ताच्या गळ्यांत पडलली. नानाक पयलींच ती काळी म्हूण खबर आसून लेगीत मागीर तिका मागूनच अभिमान घाण दवरून ताणें हाडलली. मागून हाडल्या अशें तिचे थोमणे ताका सदांच आयकुवचे पड. नाना कितें करतलो? आयकून घेतालो. अस्तुरी दादल्याक सतायल्या बगर रावना हो तर नेमच, जी सतायना ती अस्तुरीच न्हय. आतां थोडे दादले तातूत समाधान मानतात ती गजाल वेगळी. मंदिरांतलो प्रसाद मालाक आवयन हाडून दितकच तिका मालान लाडू दिलो. प्रसाद घेवन तें किसनाक दिवंक आयले. किसनान देवाचो प्रसाद म्हण्टकच घेतलो, पूण इतले दीस किसनाक प्रसाद दिवंक नासलो, आतां विजनेर म्हण्टकच तीं लागीं करता आसतलीं, अशें ताचें मन ताका सागूंक लागलें. किसन शादूर आसलो. एक फावट ताणें सांपळ्यात खाण लावन हुंदीर मारललो, खाणा आशेन तो बापडो सांपडललो, तरी भितर लायललो पावा कुडको लेगीत तो खांवक पावंक नासलो. तळमळत आसलो. मरण दोळ्यां मुखार दिसतकच पक्वान लेगीत दिलें, तरी गोड कशें लागतलें? मागीर त्या हुंदराक मरण ख्यास्त मेळ्ळी. आपूण असोच शिरकनामू? आपणाक लेगीत मरण ख्यास्त मेळना मूं? अशेंच ताका दिसतालें. तरी ताचो आपणाचेर पुराय विसवास आसलो. विजनेर जातकच नकाशे काडपाची परिक्षाय दिवन तो ती पास जालो. मांडवी वचून थायीक जातलो म्हळ्यार थंय बंगले कोणच बांधी नासले, ह्या खातीर भूज शारांतच रावन काम करचें ताणें येवजिलें. नानांचो ताचेर दोळो आसलोच. ताणें किसनाक विचारलें,

क्या इंजिनियरसाब, आपको कचहरी चाहिये तो हैं।

नानाजी किधरहै?

सिटीमें ही है।

किराया कितना पडेगा?

वह मेरा पहचानवाला है। बादमें देखेंगे। आपभी नये है ना?

नानाजी सौदा तो सौदा होताहै। किराया कितना होगा?

आपकी मर्जी। जितना चाहे दे दो। नहीं दिया तोभी चलेगा। उसकी फिक मत करना।

तो ठीक है। मैं गॉव जाना चाहता था।

उधर देहातमें क्या है? इतना पढा लिखा होकर, अनपढ जैसा देहातमेंही रहोगे? फिर शिक्षा क्यों प्राप्त की? देहातमें अनपढही रहते है।

ठीक है!

मैं झूठ कभी नहीं बोलता।

किराया कितना देना पडेगा?
एक बार बोलाना, किराया बाद में देखेंगे।
मुझे बिना किरायेकी कचहरी नहीं चाहिये।
पहले सेटल हो जाओ। पॉच म्हहीने तक किराया नहीं लगेगा। बाद में समझकर दे देना।
अशें म्हण्टकच किसनान कचेरी सुरू केली. पयलीं, पयलीं तशें व्हडलेंशे गिरायक जाय नासलें, भाडें दिवंक किसना कडेन पैशेय नासले, तरी वेलेचाराकच ताणें नानाक म्हण्ललें. नाना ताचीं नाटकां वळखून आसलो. तितले पावसाळे नानान काडलले. धवे केस तरी अणभवाचे. नाना ताका हांयस लावन गर्‌याक फारावंक पळयतालो. ऐदेशे हांयस लावन ऐदो व्हडलो तामसो नुस्तेकार काडिनात? नाना तशें हायस किसनाक लावंक सोदतालो. एक फावट फारवतकच तामशाचें शाणपण चलना, हें खरें. हांयस पळवन तामसो गिळचें सोडिना. दोनय चलयोच, घरजावंय जावंक किसन तयार जावचोना, तेन्ना सवकास सगलें सांगून तयार करप, परिचय वाडटकच आपसूक माया किल्लता. पावस पडटकच भुयेर हरयाळ रोवची पडना, ती आपसूकच किल्लता. थंडाण मेळटकच हरयाळ तकली वयर काडटाच. हें ताणें अणभवान सिद्ध केल्लें. हालींच ताका बांधकामांची कंत्राटां मेळूंक लागललीं, किसन मन लावन काम करतालो. अशेच चार म्हयने गेले. किसनाचो धंद्यांत बरोच जम बसूंक लागलो. नाना ताचेर नदर दवरून आसलो. नानान आपल्या वळखीन ताका दोन कंत्राटां जुळवन दिलीं. किसनाक ती पांग आसली. नानाचो हेत वेगळोच आसलो. मनशाक वश करतलो तर कितेंय तरी दिवचें लागता, हांयस लायना तर शेवटो गर्‌याक केन्नाच फारवना.



3



दुसरे दीस सकाळचो कचेरींत वतना मालान ताका दनपारचो जेवणाक यो म्हणून सांगलें, तरी किसन शादूर आसलो. ताणें हयकार दिलोना, तसोच न्हयकारय दिलोना. न्हयकारल्यार नानाक वायट दिसतलें, तो धावडावन घालत हो भय आसलो. बरें हयकार दिल्यार आपूण घुस्पतलों आनी काळें माला गळ्यात पडटलें, हेंवूय ताका खबर आसलें. दनपारचो तो आपल्या कुडीर

आयलो. माला ताची वाट पळयत आसलें, तरी तांच्या घरांत तो गेलोना. तें तशें निराश जावपी नासलें. दनपारचो किसन न्हांवन कुडीक चावी करून भायर सरूंक ताका आपले बूट दिसलेना. सदांच कुडी भायर बूट काडून तो भितर वतालो. हो बापायचो नेम तो अजुनय पाळटालो. बाकी कांयच बापायचें ताणें घेवंक नासलें हेवूय तितलेंच खरें. बूट ज्या अर्थी भायर नात त्या अर्थी भितर कुडींत दवरूना मूं? असो दुबाव येतकच ताणें परत कुडीचें दार उघडून सगल्याक बूट पळयले, तरी ते नासले. बरें बूट घालून आयललो ताका याद आसा. मेकळ्या पायांनीं आपूण कसो येतलो? शिवाय बूट तर खंयच नासले. ताणें झोपाळ्यार बसलल्या मालाक विचारलें,

माला मेरे बूट किधर है?

मेरे पॉव में तो नहीं, देखलो।

इधरही रखे थे।

क्या मालूम? कोई उठाके ले गया होगा।

सच बोलो तूने देखे नहीं?

देखे भी तो क्या फायदा? मैं तो पुरूषोंके बूट थोडेही पहनती हूँ!

पहननेका सवाल नहीं, मगर देखे नही ना?

नहीं, नहीं।

माला दो बार नकार देनेसे, उसका मतलब हॉ होता है।

अच्छा एकही बार कहती हूँ। मैने तेरे काले बूट आज नहीं देखे। कल तो देखे थे।

माला मुझे देर हो रही है। दे देना। मुझे भूख लगी है।

भूख लगी है तो। हमारे घर खाना खाना।

नहीं मै हॉटलसेही खाना खाके आऊँगा।

अशें म्हणत ताणें रागानच दार उघडलें आनी चप्पल घालून तो भायर येवंक, मालान म्हळें;

ये लो बूट, हमारे घरमें रखके सभी जगह ढूँढते हो?

मैं मेरे बूट तेरे घरमें क्यों रखूँ?

नहीं तो क्या मैंने रखे? इसके पहले रखे थे क्या?

नहीं।

फिर आजही क्यों रखती? खुद रखकर मुझसे पुछते हो?

मैं पागल नहीं हूँ।

तो क्या मैं पागल हूँ?

खूदसेही पुछलो। आज दिपावली है, झूठ नहीं बोलते।
आज झूठ नहीं बोलते, वैसाही आज हॉटलका खाना नहीं खाते।
फिर किधर खानेका? मेरा घर तो पास नहीं है ना?
हमारा घर ही आपका घर है। चलिये हमारे यहाँ खाना खाइये।
अशें म्हण्टकच किसन तांच्या घरांत भितर सरलो. अस्तुरेंत दादल्याक खाण दिवन मन वळवची दांडगी शक्त लिपलली आसता, अशें म्हण्टात तें फट न्हय नाना ताचीच वाट पळयतालो, ताणीं पयलींच सगलें येवजून दवरललें जावये, असो किसनाक दुबाव गेलो. माला आग्रो करून वाडटालें. नानाय किसनाक मानान वागयतालो. हात पांय धुवंक लेगीत गरम उदक दिल्लें, किसनाच्या आवडीचें श्रीखंड हाडून मालाच वाडटालें. सालाद किसनाक खुबच आवडलें, तें तर परत परत आग्रो करून वाडटालें. परत परत मागून खावंक लागलो. जीब ढील पडत आसली. पयली किसन सालाद खाय नासलो, तरी आतां हॉटेलांत जेवत सावन तो तें खातालो. जेवतकच तो आपल्या कामार गेलो.

शाला मात घरांत गडबड करी नासलें. माला परस शालाच उजळ, सोबीत आसलें, शिवाय पदविधर जाल्लें, हालींच ताका खाजगी कंपनींत नोकरी लागलली. तर माला पांचवी मेरेन शिकून घराच आसलें. किसनाक माला दोळ्यांमुखार नाका आसलें. तरी तीं मालाच किसनाक दिवंक सोदतालीं, कित्याक तर शालाक कोणय व्हरतलो, ताची तांका चिंता नासली. बऱ्या मालाक जायरात लागना, तो आपसूकच खपता. जायरात करप म्हळ्यार माल बरो ना हाचो पुरावो आसता. शाला शिकूंक, कामाक, शिवणेक, गावंक बरें आसलें. तर माला ताच्याहून ह्या गजालींत फाटीच आसलें. हें किसनाकय खबर आसलें. तरी मोन्याक सपन पडल्यार सांगूंक कळना, तशेंच ताचें जाल्लें. नानानय तसो ताचेर उपकार केल्यान, ताचें उतर ताच्यांनीं मोडूंक जायना आसलें. कचेरीचें चार म्हयन्याचें भाडें नानानच फारीक केलां हें किसानाक खबर आसलें. किसनाचें गिरायक वाडललें. तरी पैशे नानाक कशे दिवचे हेंच तो पळयतालो. जेवतकच तो आपल्या कुडींत गेलो, तरी ताचें मन नाना कडेनच आसलें. कशेंय करून तो माला आपल्या गळ्यांत घालूंक सोदता, हें तो जाणां जालो, हाचेर उपाय म्हळ्यार नानाचें घर सोडून दुसरे कडेन रावप. तरी तशें केल्यार शालाय हातचें वतलें अशेंय ताका दिसतालें. तशें शाला ताचे कडेन उलय नासलें, देखूनच ताच्या मनाचो थाव ताका नासलो. माला व्हड म्हण्टकच शाला समजून वोगी रावलें आसत. तेन्नाच किसनाक सट्करून बापायन म्हणलल्या उतरांची याद जाली.

केसन तू शहरमें जाता है। तो हमारे घरका खयाल रखना, कुछभी करो, मगर हमारे वर्णकीही बहू लाना। उमर पागल बनाती है, फिरभी सोच विचारसेही काम करना पडेगा, नहीं तो वही लडकी तुझे रूलाये बिना नहीं छोडेगी। शादी यह खेलौना नहीं होता, इस्तेमाल करे और बाद उसे फेक दे। मैंने शादीके समय मेरे पिताकी राय ली थी। पिताकी राय लेना, इसमें तुम्हारा ही हित है। मैं तो जाति नहीं मानता, लेकीन कमसे कम लडकी अच्छे संस्कारकी हो।

अशेच दीस वताले. जेवण जेवीत सावन किसन तांका हडकितालो. कित्याक तो तांचें जेवण जेवललो. जेवण जेवतकच कुत्रो लेगीत धनी दिसतकच शेपटी हालयताच. एकच जेवण खरें पूण मन बदलची कितली शक्त तातूत आसता. देखून आदले लोक खंयचेय जेवण जेवी नासले.



4



तिसरे दीस सोमराम पैशे घेवन आयलो. विचारतकच ताणें बापायची चीट आपणाक आयलली म्हूण सांगलें. सोमरामाचेर ताचो पुराय विसवास आसलो. तरी किसनाचेर नासलो, किसनाक ताणें चीट बरवंक नासली. कित्याक तर किसन ताचें सांगललें आयक नासतना शारांत गेल्लो. काशीक वतना लेगीत ताणें किसनाक सांगू नासलें. किसनाक दिसलें आपणाक सांगलेंना, तरी काशीक वतना सोमरामाक सांगलें, पूण किसन माडवी नासलो तो कॉलेज शिकतालो. तरी किसनाक दिसलें बापूयच आपलो दुसमान, तो बापूय न्हय. ताचें उतर तरी कित्याक मानूंक जाय? सवंसार तो करतलो काय आपूण? तेन्नाच ताका सोमरामाचें व्हडपण येवजून आयलें. दुसरो कूळ आसल्यार कापूस पिकवन खंड दिवचो नासलो आनी शेत आपलेंच करून घेता आसलो, तरी सोमरामान शेत किसनाच्या नांवारच दवरललें. ताची अर्थीक स्थिती तशी व्हडली बरी नासली, तरी धनंजयशेटीक तो विसरूंक सोदी नासलो. खंडाचे पैशे दिवन सोमराम गेलो. खिणभर किसनाक दिसलें आपणें हे पैशे ताकाच दिवपाचे. कित्याक तर तो गरीब, तरी तो ती गरिबी विकूंक सोदिना, पैशांची गरज आसुनय दिल्या उतराक गिळिना. तरी शेवटाक पैसो हातचो सुटना हेंच खरें. पैशाची आस केन्ना काबार जाल्ली आसा? पैसो खरो पैशां खातीर नाका, तरी तो गरजो भागयता

देखून जाय आसता. वैराग्य जिणेंत हाडप बरें, तरी ते हाडप भव कठीण, तशेंच तें खुळेपण अशें चडांत चड लोक मानतात. वैराग्याचें मोल जाणां जाल्यारच ताचें व्हडपण कळटा, नातर कशें कळटलें? विचारांत आसतकच बरोच वेळ गेलो, किसन कचेरींत वचूंक भायर सरलो. ताका काम वेळचे वेळार दिवचे आसलल्यान न्हीद पड नासली. पैसो न्हीद व्हरता अशें ताका दिसलें.

कामकरी मेळटाले तरी सामके फटींग. एक दोन दीस काम करून आगाउ पैशे मेळटकच तोंड दाखय नासले. तरी दुसरे हाडून काम करून घेवचे पडटालें. बांधकाम करतकच फायदो मात खुबच जातालो. बॅकेंत वचून गाडी घेवचे खातीर लोनाची चौकशी करून तो घरा आयलो मात, एजंट ताका कसोच पातेना जालो. परत परत ताचे कडेन येवंक लागलो आनी थोडे दीस गेल्यार जातालें. तरी शेवटाक वाजेवन ताणें गाडी घेवची येवजिली. किसनान धाकटी गाडी घेतली. नानाची कूड तो सोडूंक पळयतालो हाचो दुबाव नानाक केन्ना गेलो देव जाणा. तो किसनाक पाते नासलो. मदींच ताच्या कचेरींत वतालो. कसलेंय निमीत धरून किसनाक कडेन बडबडटालो, एक एक फावट ताचें उतर खंयच्या खंय पडटालें. ताची बायल येतना वतना किसनाक हडकिताली, वेळ जालोना तरी च्या दिताली. सगलीं ताका मान दिताली. माला झोपाळ्याचेर बसललें आसलें तर किसन येतकच रोकडें उठटालें. एक दीस तें अशेंच झोपाळ्याचेर बसून झोके घेतना पोस्टमन आयलो.

यह चिठ्ठी किसनकी है।

अशें म्हणत ती चीट ताणें ताच्या कुडींत उडयली. तो वतकच मालाक ती चीट वाचची उमळशीकच लागली. घडये किसनाक खंयच्याय चलयेन चीट बरयल्यार? ह्या विचारान ताका थारो दिलोना. अस्तुरी दुबावी आसता, किसन येवंक वेळ आसा अशें पळवन, एक बारीक बडी हाडून ताणें दारा सकयल्या खाचींत घालून ती चीट भायर काडली. आवयक लेगीत सांग नासतना ती वाचली. तिचेर आसलें. 'बेटा किसन, ईश्वरी कश्पासे मेरा ठीक चल रहा है। मेरी फिकर मत करना। काशी आनेसे पहले तुझे बताना भूल गया। इसलिए अब खत लिख रहा हूँ। शिवनाथ की इकलौती बेटी, 'सेवा' तेरे लिए पक्की करदी थी। तुझे बोलना तो भूल गया और यकायक काशी आया। मैने तेरा रिश्ता उसके साथ पक्का कर दिया था। एक पॉवसे जरा अधू है। मगर दिलकी सच्ची है। मै उसे बचपनसे जानता हूँ। घराना अच्छा है। एक दिन शिवनाथ को मैं बोला, की तुमही जाकर किसन को मिलो और मैं काशी आया। आखिर तेरी मर्जी। एक बात याद रखना। संगत ही मनुष्यको बिगाडती है। नाना भलेही उपरसे अच्छे आदमी हो मगर वे

स्वार्थी है, कपटी भी है। इसका खयाल रखना। किसन तेरे पर भरोसा है क्योंकी मै ने तुझे सुसंस्कार दिये है, किंतू किमती हिरा भी यदी खटमल के संपर्कसे कोयले समान मूल्यहीन होता है, याने खटमल उसके टुकडे टुकडे करता है, उसे बिगाडता है। याने नानाके सहवाससे, तेराभी ऐसाही होगा। नानाकी दो लडकियॉ है उनके पास बोलना भी नहीं। नाना तो बेवकूफ तथा स्वार्थी है। यदि उसकी बेटीसे तेरी शादी होंगी तो उसका नतीजा तुझेही भुगतना पडेगा। किसन और एक बात, तेरा घर है, उसे मत भुलना, मरम्मत करके उसीमें रहना। वह वास्तू है। मेरे पिताने वह बनायी थी, निसर्गकी आपदा भी आयी तो भी वास्तू नही गिरेगी इसका घ्यान रखना। पिता होनेके नाते तुम्हें सच्चा रास्ता दिखाना मेरा फर्ज है। आखीर सुनना या न सुनना तेरी मर्जी।

तेरा पिता धनंजय।

मालान ती चीट वाचतकच ताचो पांयातलो राग मस्तकाक मारलो. किसनाच्या हाताक ही चीट लागल्यार अनर्थ जातलो, अशें चितून ताणें ती पिजूंन रागान थंयच आंगणांत उडयली, आनी ते घरा भितर सरलें. मनशाक राग येतकच तो कितें करता हें ताका कळना, ताची बुध्दी भश्टता, विचार शक्त उणी जाता. मालाक दिसलें किसन आसतना जर पोस्टमनान चीट दिल्ली तर घात जावपाचो. आतां किसनाक पातेवन उपकारना. कितेंय करून ताका आपल्या जाळांत सांपडावचो पडलो. ताचें लक्ष शालाचेर आसा हेंवूय मालाक खबर आसलें. दनपारचो किसन आयलो, आंगणात पावतकच ताका चिटीचे कुडके पडलले दिसले, पयलीं ताणें लक्ष दिलेना, पूण सहजच ताणें एक कुडको हातांत घेतलो तर ताचेर धनंजय अशें नांव आसलें. घडये ही चीट बापायची जायत, अशें ताचे मन ताका सांगूक लागलें .सहजच ताणें ते सगले कुडके एकठांय केले आनी कुडींत व्हरून सारखे जोडले तर ताका तातलो मजकूर कळूंक वेळ लागलोना. तितलो किसन हुशार आसलो मदीं मदीं थोडे कुडके नासले खरे, पूण ताणें ताचो अर्थ राकडोच जुळयलो. हे चीट पिजचें काम मालाचें हें कळूंक ताका वेळ लागलोना. मालाक दुबाव वचत अशें चितून ताणें ते कुडके परते आंगणात व्हरून उडयले. दुसरे दीस सकाळची सान्न मारतना मालाक ते कुडके दिसले घडये क़िसनान ते पळयन वाचल्यार घात जाता आसलो, अशें ताका दिसलें आनी ताणें ते कुडके व्हरून उज्यांत घाले, सगले लासून उडयले, तेन्ना तें मुमुरखें हांसूक लागलें. अशेच दीस वताले. किसन दिशीं दिशीं गविश्ट जायत आसलो, उलवप लेगीत उणें जायत गेल्लें. धाकली गाडी घेतलल्यान तो तोर्‍यातच वावुरतालो. जिणेंचें सार्थक जालें अशें ताका दीस. लोक पायांनीं

वतना पळवन ताका हासूंक येताले. गर्व हो सदांच नाशाक कारण जाता म्हण्टात तें फट न्हय. शाला कामाक येतना वतना ताच्या गाडयेंत पळवन मालाक मत्सर जातालो आपणें इतले कश्ट घेवप आनी हें ताच्या गाडयेन भोंवप? फाल्य ताकाय आपलो केल्या बगर रावचेंना. अस्तुरी ही खुबच चंचळ आसता हेंच खरें एक फावट तिच्या मनात दुबाव येत तर वचप कठीण. मागीर ती आपलें नाते लेगीत विसरता, मनशाचे मन चितता ते दुसमान लेगीत चिंतिना म्हण्टात तें फट न्हय. किसनय भायर सरतना शाला भायर सरता काय? हाचीच वाट पळयतालो शाला तशें हुशार, सोबीत शिवाय मायेस्त अशेच आसलें. किसनाक येतकच ते च्या दिवंक लागलें. तरी माला आसल्यार तें किसना कडेन चड उलय नासलें. नानाक खंयचेंय एक खपल्यार जातालें. तरी मालाची तो चड चिंता करतालो; नाना मिठाचो व्यापार करतालो. पावसांत तसो व्हडलो चल नासलो, तरी गिमांत व्यापाराक तेजी येताली. नानाक ताचे मनीस मीठ हाडून दिताले, कित्याक तर नाना पैशे नकद दितालो. नाना तसो फटींग नासलो, तरी व्यापारी आसलो, व्यापार केल्यान ताचे कडेन पैसो घोळटालो.

किसन सांचो गाडी घेवन आयलो आनी ताणें कूड उघडली आनी फायल चाळूंक लागलो, इतल्यांत लायट गेली. भायर काळख म्हण्टकच ताणें मेणवात लायली आनी परत फायल हातांत घेतली. इतल्यांत नाना ताच्या कुडींत भितर सरलो. नाना ताच्या कुडींत केन्नाच येना आसलो, आयज अचकीत येतकच किसन काचाबूल जालो. ताका काचाबूल जाल्लो पळवन नाना म्हळें;

किसनसाब डरना नहीं।

मैं नहीं डरता नाना। आप बैठियेगा।

ठीक है, तेरा कैसा चल रहा है?

ठीक, मगर मजदूर सताते है।

मजदूर, मैं लाकर दूँगा।

अब जरूरत नही, जरूरत पडनेपर बता दूँगा। नाना आज आप परेशान से लगते हो।

किसनसाब देखो, अब तो बुढापा आया, चिंता सताती है।

नाना चिंता करनेसे फायदा नहीं होता।

मगर यह मालूम होते हुये भी, वह सताती है ना?

कौनसी चिंता नाना? जो आपको सता रही है?

मालाकी। उसका ब्याह होतेही चिंता मिट जायेगी।

नाना वो तो होगा।

मैं आज मांडवी गया था।
किधर?
आपके घर।
क्या मेरे घर? आपको कैसा मालूम पडा मेरा घर?
किसनसाब धनंजयसेठ मेरा दोस्त होनेके कारन मै आपके घर जाता था।
मगर अब वे उधर नहीं हैना, फिर क्यों जाता? आज यकायक पहुँचां।
कैसे?
नमक बेचने।
घर ठीक है ना?
हाँ ठीक है। आँगनकी कुटीमें कोई रहता है।
उसका नाम सोमराम है। वो तो मेरे पास आता है ना?
मुझे कहीं देखासा लगा, मगर भूल गया।
नाना और क्या बात?
बात यही। चिंताकी।
सब ठीक हो जायेगा। चिंता मत करना।
मगर ठीक होना चाहिए। यदि आप कहते तो मैं जाता हूँ।
चिंता मत करना।
तो ठीक है।
अशें म्हणत नाना कुडी भायर आयलो, किसन परत फायल चाळूंक लागलो. तरी ताचें लक्ष तातूंत लागना जालें. ताका दिसलें मालाक, नाना आपल्या गळ्यांत घालिना मूं? तरी ताणें उतर दिल्लें, तशें सारखें न्हय, तरी तसो अर्थ काडूं येतालो.. नानाक कितें निमीत जाय आसलें. घडये ताणें शालाक सांगल्यार? शाला बेजार जातलें. किसनाक दिसलें तो मालाकच आपल्या गळ्यांत बांधूक पळयता जावये. बऱ्या मालाक खप आपसूकच मेळटा न्हय? तरी कुसको माल खपवंक खटपट करची पडटा. वेळार सवाय दिवचो पडटा, फट उलवचें पडटा, सोपूत घेवचो पडटा, नागवचें पडटा, नाना तर व्यापारीं, लोकाक कशें भुलवचें हें तांका कळना तर आनी कोणाक कळटलें? तसो तो आपूण सरळ सभावाचो अशें सांगता पूण मनानसून तो तितलो सरळना. तो कसोय जावं आपणें शिटूक रावप. सगलें मनाचेर निबून आसता. मनाचेर ताबो दवरतकच जालो. तशे पळयल्यार साळीक चिखलांनसून वयर आयले तरी ते चिखल आंगाक सारयना. आपणेय तशेच रावप.



5



एक दीस काम करून बेगसारच शाला आयलें, तेन्ना ताका च्य आयती करून दवरलली दिश्टी पडली. माला ताका केन्नाच च्या करून दवरिनासले तरी आयज कित्याक ताणें च्या करून दवरलिकाय? असो दुबाव ताका गेलो बरे घरात आनी कोणच नासली मालान च्या केल्या हें ताका कळ्ळें. मालाक सहजच ताणें च्या कित्याक केली अशें विचारलें? तेन्ना मालान सांगलें,

मैंने च्याय बनायी थी। थोडी जादा हुयी इसलिए तुझे रखी। यदि यह च्याय नही चाहिये तो तुम दुसरी बना सकती हो।

नहीं दीदी तुमने प्यारसे बपायी है ना? वही पी जाऊँगी।

अशें म्हणत शाला ती च्या पियेलें आनी कप धुवंक मोरयेत वच तर ताका पाल मरून पडलली दिसली. दुबाव वतकच ताणें मालाक विचारलें,

दिदी यह विपकली कैसे मर गयी?

क्या मालूम?

अशे म्हणटकच शाला येवन गादयेर न्हिदलें, ताका उलटी येवंक लागली, उलटी कशीच थांबना जाली, दोळ्या मुखार सगले फिरता कशें दिसूंक लागलें. अचकीत आपणाक च्या पियेतकच कितें जालें काय? हो ताका प्रस्न पडलो, मालाक हें खबर आसून तें दोतोराक हाडची वास्तपुस्त करिना हाचें ताका अजाप जालें. म्हणसर ताचे दोळे जड जावन धापूंक लागले. बऱ्या वेळान नाना आनी ताची बायल बाजारांनसून यो तर, माला च्याचो तोप घासता. आवयन विचारलें,

माला शालाको क्या हुआ?

माँ मुझे क्यो पूछती हो?

डॉक्टरको बूलालो, मेरी शालाकी जान खतरेमें है।

नानाच दाखवचे खातीर फोन करूक पळयलो, पूण तो लागना अशें बायलेक सागलें. इतल्यांत ताका तिनसानचो किसन येतना दिसलो. तो येतकच नानान ताका सगलें सांगलें आनी दातोराक हाडूंक या अशें म्हळें, शालाची स्थिती पळवन किसनाक धुवंळ कशी आयली, मागीर तो गाडी चलयतलो कसो? नानान रिक्षा करून दोतोराक हाडलो, दोतोरान तपासलें तर ते घट जाल्लें, दोतोराचें इनसाव चलना जालें, किसन तर रडूकच लागलो. दोन दिसानीं फोन दुरूस्त

करूंक सरकारी मनीस यो तर फोनाच्यो तारो तुटयलल्यो दिश्टी पडल्यो, दोतोरान विख बादून मेलां असो दाखलो दितकच नानान ताका पैशे दिवन आदलो दाखलो ताका दिवन 'सैमीक मरण' असो दुसरो दाखलो बरवन घेतलो. नानान म्हयनोभर दुःख धरलें तर नानाचे बायलेक सांवरता मेरेन सात म्हयने गेले. मेलो मनीस परतो येना हो तर नेम. आतां तिका मालाची चिंता आसली. चलो भुरगोना हाची चिंता पयलींच आसली. चल्या बगर मोक्ष मेळना हेवूय तिका खबर आसले. तरी आतां मालाक पळवन ती आदलें सगलें विसरूंक पळयताली. विसर होच चितना घालयता आनी नवी उमेत तयार करता हे खरें. मनीस विसरूंक शक नासलो तर जगुंकच पावचो नासलो. मालान हो डाव रचचें पयलीं नानाक तशें सांगललें, नाना तयार नासलो तरी मालान आत्मघाताची धमकी भरतकच ताणें हयकार दिवन, टिलिफोनच्यो तारो कापलल्यो मालाक ताच्या ह्यकाराची गरज नासली. वेळार अस्तुरी कितली भिरांकूळ जाता हाची कल्पना लेगीत करूंक जायना हेंच खरें. असतुरेक विचाराची तांक दादल्या परस उणी आसता, तिका खबर आसता तो सूड, पूण ताचे परिणाम ती अजमावंक शकना. एका तोपयेत दोन तकल्यो धालूंक जायनात, तेन्ना एकच तकली तापयेंत घालपाची, दुसरी तकली ना करपाची अशेंच मालान चितललें. त्या कामांत ताका जैत मेळ्ळें. नानान जरी ह्या कामांत मान्यताय दिल्ली, तरी चूक नासतना शालाचो कांटो काडलो हें दुःख ताका सलतालें. मदींच तो कामात आसतना ही गजाल विसरतालो तरी शालाची याद जातकच ताका आपूण मेल्या इतलें दुःख जातालें. वयलयान जरी तो दाखय नासला तरी काळजांत तो रडटालो. मदींच शालाचें मुखामळ नदरे मुखार येतालें, तेन्ना ताका शालाची चितां परती परती सतायताली. चिता एकच फावट काबार करता, पूण चिंता जीव आसा मेरेन परती परती सतायत रावता. कावळो बडकाक कोचायता तशे तें दुःख ताका जागो आसा मेरेन कोचायत रावतालें. न्हिदतकच विसव मेळटालो तरी सपनात शालाक पळवन तो काचापूल जातालो. थोडी दुःखां कशीच उणी जायनात, पूण थोडी उणी जातात हेंवूय खरें. घायार मीठ लायतकच जशें किचमता तशें ताका आपणें मान्यताय दिल्यान ही करणी घडली अशें येवजून वायट दिसतालें. किसनाक शालान मालाचो दुबाव उक्तावन दाखयललो पूण इतले बेगी अशें घडत अशें किसनान चितू नासलें भयण अशें करत अशें ताणें सपनात लेगीत चितू नासलें. पूण घरचो चोर जिवानशी मारता म्हण्टात तो असो. आतां आपणें ताका न्हयकार दिल्यार तें आपणाक शाला सारखें सोपयना मूं? दूद हून लागतकच ताक लेगीत, फुकून पियेवप बरें अशें ताणें ठरवन, एक दीस नानाक म्हळें,

नाना मैं दुसरा कमरा ढूँढता हूँ।
क्यों? साब क्या हुआ यकायक?
कुछ नहीं।
फिर कमरा क्यों छोडते हो?
डर लगता है।
किसका? मेरा?
तेरा नहीं।
मालाका?
नहीं।
फिर किसका?
किसीका नहीं।
हम किराया तो नहीं लेते।
इधर रहनेको जी नहीं चाहता।
अब क्या हुआ? इतने बरस ठहरे नहीं?
ठहरा। फिरभी।
यदि कमरा छोडते हो तो, पहले बकाया हुआ, दो बरसका कमरेका किराया और कचहरीका भी पॉच महिनेका किराया देना पडेगा। याद रखना।
ताचेर किसन वोगी रावलो. गाडी घेतलल्यान तो पातेशीर जाल्लो, आनी थोड्या तेपान सगले भाडें दिवन कूड सोडची अशें ताणें थारायलें, पूण माला कडेन कशेंच लग्न जावपना हें ताणें ठरवन उडयलें. कचेरिचें काम करूंक ताणें गुज्या नावाचें चली दवरलें. हळूच नकळत तो ताचे कडेन लागीं जागीं पावंक लागललो. गुंज्या ताचें काम मन लावन करतालें. नानाक हें पळवन दुबाव गेलो. शालाक मारले आनी हे गुंज्या तयार जालें, हे येवजून तो गुज्या बापायगेर गेलो आनी ताका किसनाचें नाका ते घडवन वायट सांगले, शाला कडेन लग्न जातलो अशेय बजायलें. हें आयकून गुंज्या बापायन ताका कचेरींत धाडचें बंद केलें. अचकीत गुंज्या कामाक येवचें बंद कशें जालें?
हाचेर विचार करूनय ताका कारण कळना जालें. आतां तो ताळी मोडलली माकड जाल्लो. ताचें लक्ष कामांत लागना जालें. नानान ताका व्हडलीं कंत्रांटां हाडून दिलीं. किसनाक नानाचो हो उपकार कसो पाववचो हेंच कळना जालें.
एक दीस किसन दनपारचो कचेरिंनिसून येतकच मालान म्हळें,
आज कोजागरी पौर्णिमा है।
तो क्या हुआ?

आज खाते नहीं, उपवास करते है।
अच्छा तो खाना नहीं खायेंगे।
सिर्फ ईश्वरका घ्यान करना।
अच्छा।
किसनान दनपारचो उपास केलो. तिळसानचो कचेरिनसून येता म्हण्सर ताका रात जाली. चान्नें पळवन किसन सोप्यार येवन बसलो. सैमसोबा ही मनशा काळजांत खंय तरी लिपून आसताच, अचकीत ती फाव ते वातावरण दिसतकच पालेताय. चंद्रीम पावसा सारखे चान्नै रस्त्यार, आंगणांत, नळ्यांर, झाडांर मेळटा थंय ओतीत आसलो. किसनाक दिसलें आयज चान्नें पियेवन चकोर पक्षी तश्प्त जातलो, तरी कोंबो मात चंद्राक पळवंक लेगीत शकचोना. आपणें चकोर जाल्यार कशें? असो विचार करून तो आंगणांत देवंलो. तोंड आं केलें, चंद्राचें चान्नें ताच्या ताळ्या मेरेन गेलें. पूण पोटांत पावना जालें, तोंड वरशें करून तो वारो पियेवंक पळयतालो, तरी वारो तोंडा नाकानसून गेल्यान चान्नें पियेल्याचें समाधान ताका जालें. वारो चान्न्याची शितलकाय वाडयतालो. 'फस फस' आवाज जातकच ताची नदर आंगणा मुखार आसलल्या कोडुलिंबा झाडाचेर गेली. ताची पानां उलयतात असो ताका भास जालो. तो थंय गेलो तर ताका गमगमीत वास आयलो. कोडूलिंबा झाडाक वास सुट्टा हें ताका खबर नासलें. शारांत रावतकच झाडांचो परिचय तरी कसो जातलो?
वास रातराणये सारखोच मात्सो लेव. ताका दिसलें रातराणयेक नामना मेळ्ळी, तरी तिच्याहून कोडुलिंबा झाडच श्रेश्ट. कित्याक तर कोडुलिंबात जे वखदी गूण आसतात ते रातराणयेत आसनात. कोडुलिंबा झाडाक उदक चड घालचें पडना. कोडुलिंबा झाडा पोंदाक सोरोप येना. तेन्नाच ताका शाला मालाची याद जाली. घडये शाला म्हळ्यार रातराणी न्हय मूं? माला म्हळ्यार कोडुलिंबा झाड? शाला रातराणये सारखें सोबीत दिसतालें, पूण माला कोडुलिंबा झाडा सारखें कशेंशेंच दिसतालें. काळें आसलें, कोडुलिंबा झाडांत जशे वखदी गूण आसतात तशे मालांत आसूंक जाय. काळ्यांत एक तरी गूण चड आसता, हें ताणें खूब फावट आयकल्लें. घडये मालाकडेन लग्न जावंक शालाक व्हेल्लें जायत. मारपाचो यत्न केलो तरी ताका जैत मेळटाच अशेंना. खरे तर शालान म्हजे क़डसून लग्नाचें उतर घेतललें पूण थोडे दीस राव म्हूण ताणेंच सांगललें, अशी बुध्दी ताका कित्याक आयली? लग्न जाल्यार ही घडणूक घडची नासली. आतां ते नासले म्हण्टकच फुडाराचो विचार करूंक जाय आसलो. माडवींत गेल्यार सेवा मेळत काय? पूण हांव थंय बापूय काशी वचत सावन थंय खंय गेला? आतां खंयच्या

